# चौफूल

बरोवपी

माया अनिल खरंगटे







श्री हरि प्रकाशन

**CHAUFUL**

A collection of Skits

Maya Anil Kharangate



बरोवपी : माया अनिल खरंगटे

प्रकाशन क्र. ३



पयली उजवाडावणी : २७ ऑगस्ट, १९९८

उजवाडावपी
दीपा दिनकर मुरकुंडे
श्री हरि प्रकाशन
३८९ / अ, शांतिनगर
आकें-[illegible], नावेली, गोंय ४०३ ७०७



अक्षर जुळणी
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव - गोंय

छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट, वळवय, फोंडें – गोंय

मुखचित्र : योगेश कापडी

मोल : २० रुपया

# आजी इंग्लीश शिकता

पात्रां :
आजी, उमाबाय, मावशीबाय,
सून — निता
नातरां — सुमीत, सुविना

[आजी पोळेर मांडूंक बसल्या. आपले भितर उलयता – 'आनी तीन म्हयन्यांनी मितागेर बाबुलो जातलो. गोरो-गोरो पिट्ट, टॉमाटावरी गालाचो. हय, गोरोच जातलो. अमेरिकेक सगळे गोरेच लोक आसतात खंय. कितेंय जावं, बाबुल्याच्या निमतान म्हाकाय अमेरिका पळोवंक मेळटली.' इतल्यांत उमाबाय येता.]

**उमाबाय** : सुमिता आज्जे, ये सुमिता आज्जे, बडबडटाशी आपले भितर ? उलो मारिल्लो आयकलो ना ?

**आजी** : आं, उमाबाय ? यो, यो.

**उमाबाय** : [लोकांक पळोवन] पळे, इतलो वेळ बडबडटां हांव. तरी ह्रिणें कांयच आयकुंना. [इतल्यांत पोळेरांचेर नदर पडटा.] आं, हें कितें करता गे ?

**आजी** : आगे, मिता गुरवार. स म्हयने जाल्यात.

**उमाबाय** : [बोंचो मुड्डिता. आज्जेचें लक्ष मांड्याचेर] हयी, बाळंटेराक तुका आपोवं ना ?

**आजी** : [उमेदीन] आपयल्या तर. थंय वच्पाचीच तयारी करतां हांव.

**उमाबाय** : [पोळेर, कपयाळीं वयर काडून पळयता] आं, बरेऽ केल्यात मगे तुवें. पूण एक सांग...

**आजी** : कितें ?

**उमाबाय** : इतलें सगळें तूं थंय व्हरतली ?

**आजी** : हय तर. ना जाल्यार कित्याक करतली आसली ?

**उमाबाय** : पूण थंय हें सगळें चलता मू ?

**आजी** : कोणाक खबर थंयच्यो रिती ? हांवें आमचे भशेन केलां सगळें. [इतल्यांत मावशीबाय येता.]

**मावशीबाय** : उमाबाय, तूं हांगा आसा ? येदोळच्यान सोदतां तुका हांव.

आजी : अशें कितें दवरलां उमाबायक ?

मावशीबाय : [पोळेर पळयता] आं, पोळेर शे कोणाक करता ? कोणाली नवीदाद ?

उमाबाय : आजी पोळे कित्याक करता तें आयकल्यार उसळटली तूं.

मावशीबाय : कित्याक गे बाये ? अशें कितें अजाप घडलां ?

उमाबाय : अजापच. सुमिता आजी अमेरिकेक चल्ली. सुनेचो बाळंटेर काडूंक.

मावशीबाय : कितें ? अमेरिकेक चल्ली तूं ? तुका इंग्लेज उलोवंक येता व्हय गे ?

आजी : इंग्लेज ? ती आनी कित्याक ? म्हाका आमची कोंकणी कळटा ती पुरो.

मावशीबाय : कोंकणी कळून कितें उपयोग ? तूं अमेरिकेक चल्ली न्हय ?

उमाबाय : थंय भायलो भितरलो लोक सगळो इंग्लेज उलयतात.

आजी : आसत गे, पूण हांव म्हणटां म्हाका कसली गरज ?

उमाबाय : ना कशी तर ? तूं थंय स-सात म्हयने तरी आसतली. सदांच कितें घरांत बसून रावतली ? वेळ कसो वतलो तुजो ?

मावशीबाय : शेजाऱ्या-पाजाऱ्याकडेन उलयले शिवाय म्हणून रावूंक येता.

आजी : हय तर !

मावशीबाय : आनी एक सांग गे, केन्नाय मीठ सोंपता, साकर सोंपता, मिरसांग जाय आसता. तूं शेजान्नीकडेन कशी मागतली ?

आजी : हय आं, खरेंच. म्हणटकीर म्हाका इंग्लेज शिकचीच पडटली.

उमाबाय : हय, हय. ना जाल्यार तूं अमेरिकेक वचूंक शकना.

आजी : आतां म्हाका इंग्लेज कोण शिकयतलो ? आज्याक सांगल्यार पिशार काडटलो.

मावशीबाय : आमी येतात आं. फाल्यां मेळुंया.

[दोगांय वतात. आजी तकलेर हात दवरून बसून येवजिता.]

आजी : पाड पडूं त्या इंग्लेजीचें. काय बरी अमेरिकेक वचपाचे उमेदींत आशिल्लीं.

[सुमीत आनी सुविना शाळेच्या गणवेसांत पुस्तकांचें बॅग खांदार लावन येतात. बॅग काडून तिपोईचेर उडयतात. तेन्ना आज्जेचेर लक्ष वता.]

सुमीत : आज्जे, तकलेर हात-शी घेवन बसल्या ?

सुविना : तकली उसळटा गे आज्जे ? बाम लावं ?

आजी : ना गो शाण्या, हांव त्रासांत सांपडल्या.

सुविना : कसल्या गे ? तूं तर आतां अमेरिकेक चल्ली काकागेर.

आजी : ताजोच हुस्को जाला म्हाका.

सुमीत : आंवय, अमेरिकेक वचपाचो तुका कित्याक हुस्को ? पप्पा आनी आजो सगळें करतात.

आजी : आरे बाबा, थंय खंय सगळे लोक इंग्लेज उलयतात.

दोगांय : तांतूंत कितें जालें ?

आजी : म्हाका खंय करपाक येता येस् आनी फॅस्.

सुविना : आज्जे, तूं आमचे भशेन कॉन्वेन्टांत शिकपाची.

आजी : आमच्या वेळार खंयचीं कोवेंतां आनी बिवेंतां ?

सुमीत : आतां तरी तुका इंग्लीश कित्याक जाय ?

आजी : इंग्लेज कळनासतना अमेरिकेक वचून कितें करतलीं हांव ? मोनें जावन रावचें पडटलें. [दोगांय हांसतात.]

सुविना : हय आं.

आजी : एक सांगात.

दोगांय : कितें ?

आजी : थंय घरांतली वावराडी, चेडूं, मासळकान्न, भाजीकान्न सगळीं इंग्लीशच उलयतात ?

सुमीत : हयच. तांची भाशाच न्ही ती ?

आजी : पिशेपणांच बाये.

सुविना : पिशेपणां कसलीं ?

आजी : हांगा ऑफिसांत, बांकांनी सरकारी कामांक इंग्लीश उलयतात आनी बाजारांत घरांत आमी कोंकणी उलयतात. तशी थंय इंग्लेज...

सुविना : थंय तशें करनात. तांची इंग्लीश भासच तीं सगळेकडेन उलयतात. आमी मात पिशेपणां करतात.

आजी : तीं सांगतालीं तें खरें तर.

सुविना : कितें सांगतालीं ?

आजी : म्हाका इंग्लेज कळना जाल्यार हांव अमेरिकेक कशी वतली

काय म्हण तीं. म्हाका इंग्लेज कोण शिकयतलो?

दोगांय : आमी शिकयतात मगे!

आजी : हय वय, बरें जालें बाये. भायर बोवाळ करिनासतना घरचे घरा शिकूंक मेळटलें. आतांच्यानच सुरवात करुंया. आनी आनी वैळ वगडावं नये.

सुविना : एका म्हयन्यांत सगळें शिकून जातलें मगे?

आजी : सगळी इंग्लीश कित्याक जाय म्हाका?

सुमीत : मागीर? कितें शिकोवप तर तुका?

आजी : मीठ, साकर, मिरसांग अशा गरजेच्या वस्तूंक कितें म्हणप तें सांगल्यार पुरो. तशी म्हाका मात्शी मात्शी इंग्लीश कळटा. दुदाक मिल्क म्हणप आनी च्याक टी न्हय? [दोगांय हांसतात.]

सुविना : इतलेंच शिकून इंग्लीश कशी उलयतली तूं?

आजी : तशी म्हाका चड इंग्लेज कित्याक जाय? साकरेक कितें म्हणटात सांग पळोवया.

सुमीत : शुगर.

आजी : शिगर मगो?

सुविना : दांत धोंकपाचें शिगर न्हय. शु – ग – र.

आजी : आं. तेंच तें. तर आमची जर साकर सोंपली, जाल्यार हांव शेजाऱ्नीगेर वचून इल्ली शुगर दी गे म्हणटलीं. [सुमीत सुविना तोंडार हात दवरून हांसतात. तें पळोवन आज्जेक राग येता.] वोगीच हांसनाकात हां हँ हँ करून. तुमी म्हाका शिकयतलीं काय ना तें सांगात. फकाणां करपाची गरज ना.

सुमीत : [हांसून] बरें, आज्जे, आतां फकाणां करपार ना. यो, बस हांगा. हांव शिकयतां तुका इंग्लीश. [आजी बसता]. म्हण, सॉल्ट म्हळ्यार मीठ.

आजी : सॉट म्हळ्यार मीठ.

सुविना : सॉट न्ही, सॉल्ट.

आजी : तेंच तें. सॉट म्हळ्यार मीठ.

सुमीत : आगे सॉल्ट. सॉ – ल – ट, सॉल्ट.

आजी : आं, अशें सांग. सॉल्ट म्हळ्यार मीठ. [चार पांच वेळा पासयो मारीत पाठ करता. सुविना आनी सुमीत आपल्या बॅगांतलीं

पुस्तकां काडून बरयतात वा एकामेकांक कितें दाखयतात. इतल्यांत आजी विचारता] आरे, वाटर म्हळ्यार उदक न्ही?

सुविना : वाटर न्ही, वॉटर.

आजी : तेंच गो. सुण्याक दॉग म्हणटात आनी माजराक कितें म्हणप?

सुमीत : कॅट, आनी हुंदीर म्हळ्यार माव्स.

आजी : शी, हुंदराक मास म्हणप काय हुंदराचें मास शिजोवन खावप? खंयच्या तरी राज्यांत हुंदीर खातात खंय.

सुविना : आज्जे, इंग्लीश पयलीं पाठ कर. मागीर उलय. म्हण. कॅट म्हळ्यार माजर.

आजी : गॅट म्हळ्यार माजर... गॅट म्हळ्यार माजर.

सुमीत : आगे, गॅट न्ही, कॅ-कॅट.

आजी : तेंच तें. कॅट म्हळ्यार माजर. [दोन-चार वेळा म्हणटा. मदींच थांबून विचारता] आरे, एक सांग, कोणाकय कसो आसा अशें विचारतले जाल्यार कशें विचारप?

सुविना : हाव आर यू? अशें विचारप.

आजी : कितें? सारकें सांग गो बाय.

सुविना : हाव आर यू? [सवकसायेन सांगता] अशें म्हणप.

आजी : आव हार यू? आव हार यू? तूं कसो आसा?

सुमीत : तुका जर कोणेंय अशें विचारलें जाल्यार तुवें फाय्न म्हणप.

आजी : फान? फान म्हळ्यार कितें?

सुमीत : फान न्ही. फाय्न. म्हळ्यार बरी आसा.

आजी : फान. आव हार यू? फान. [म्हणत रावता. आज्जेल्यो चुको पळोवन सुमीत बेजारता.]

सुमीत : शी, शी, शी. आज्जे, असल्यांनी तूं इंग्लीश शिकतली-शी दिसना. वाज आयलो म्हाका. हांव खेळूंक वतां. [बॉल काडटा.]

आजी : [तापून] सुमीत, चड शाणेपणां करनाका.

सुविना : आगे, तापता कित्याक? तुका आमी येदोळच्यान शिकयतात. तुका म्हणूंकच येना सारकें. तूं आनी इंग्लीश कितें शिकतली?

आजी : कित्याक येवचिना काय म्हणटां हांव. येदोळच्यान हांव इतलें मन लावन पाठ करतां तें कांय न्ही?

सुमीत : [चाळोवन] कितें मन लावन म्हणटा! सगळें उरफाटेंच

म्हणटाली तूं!

[भितरल्यान सुमिताची आवय निता येता.]

निता : आई, कितें जालें? [भुरग्यांक] आज्जेच्या वाटेक कित्याक वतात गो तुमी?

सुविना : आमी खंय तिचे वाटेक गेल्यांत? तीच आमकां त्रास दिता.

आजी : पळे आं निता. म्हाका मात्शी इंग्लेज शिकय म्हळें हांकां. हीं शिकयतात तशें फॅट् फॅट् करून म्हाका कशें उलोवंक येतलें? [निताय हळूच हांसता] जाल्यार हीं म्हज्यो भगल्यो करतात.

सुमीत : मम्मा, आमी तिका कितलें सांगलें जाल्यार तेंच तें तेंच तें म्हणत उरफाटेंच म्हणटा.

आजी : कित्याकितेंय उलयनाका सुमीत. इतली कितें म्हजी तकली विरार जावंक ना.

निता : आई, कितें जालें तें सारकें सांगात पळोवया.

सुविना : मम्मा, आजी आमचेकडेन इंग्लीश शिकताली.

निता : आं? आई, तुमी आतां इंग्लीश शिकतालीं?

आजी : हय गो. इंग्लेज कळना जाल्यार हांव अमेरिकेक कशीं वतलीं? थंय सगळीं इंग्लेज उलयतात खंय.

सुमीत : मम्मा, हांव खेळूंक वतां. [बॉल घेवन भायर धांव मारता.]

निता : इंग्लीश कळनासतना लेगीत जायते जाण अमेरिकेक वचून आयले.

आजी : हय? खऱ्यांनीच?

निता : हय. ती रमाआई वर्सभर धुवेगेर अमेरिकेक रावन आयली. तिका कितें इंग्लीश येताली?

आजी : हय मू? पाड पडूं ह्या इंग्लेजीचें. त्या उमाबायन आनी मावशीबायन म्हाका बेठीच चाळोवन घाली.

निता : तांणी म्हळें आनी तुमी खरेंच धरलें?

सुविना : आनी आमकां त्रास दिले.

आजी : हय गो तूं. बाय तें म्हजें. [सुविनाची अपुरबाय करता] झक मार ती इंग्लीश, आमची आपली कोंकणीच बरी!

[पड्डो पडटा]

# गिराण




पात्रां :

निलू, सुमीत, आशिष, प्राची आनी ताई

[निलू आनी सुमीत बसल्यांत. म्हऱ्यांत दिवो आसा. निलूच्या हातांत इल्लोसो हारसो आसा. तें नाखटांनी हारशावेलो पारो काडटा. इतल्यांत सुमीत म्हणटा]

**सुमीत** : निलू, कितें करता तें?

**निलू** : पारो काडटां मरे!

**सुमीत** : पिशा, ह्या इल्ल्याशा कंवचेच्या कुडक्यान कितें जातलें?

**निलू** : म्हणजे? हांतुंतल्यान कांयच दिसपाक ना तर?

**सुमीत** : तूंच पळे मगो! [इतल्यांत आशिष येता.]

**आशिष** : वा रे वा, तुमी पयलीं येवन तयारी करतात म्हणटाले ती हीच मरे? फक्कत उलयत बसल्यांत.

**सुमीत** : हय रे, पयलींच इतलो वेळ जाला, आनी हे बायेन पळे कितें हाडलां.

**आशिष** : कितें हाडलां?

**सुमीत** : काल आपूण हारसो हाडटां म्हणून आश्वासनां दिल्लीं मरे हाणें? हो पळे कंवचे कुडको घेवन आयलां.

**आशिष** : आंवंय, हाणें कितें करप?

**निलू** : मम्माचो दोळो चुकोवन होच कुडको हाडटासर नाका पुरो जालें म्हाका.

**प्राची** : [हातांत व्हडलो हारसो आसा तो दाखयत येता] हो घेयात व्हडलो हारसो.

**निलू** : आवय, येदो हारशा कुडको? कसो हाडलो?

**प्राची** : हाडलो हांवें. कसो बी विचारनाकात.

**सुमीत** : [दिवो पेटोवपाचो यत्न करता.] आरे, हो पळे दिवो पेटयतां हांव, खबरो करपाक वेळ वगडायनाकात. येद्या व्हड हारशाचेर काजळी धरूंक जाय.

निलू : हय वय, आतां वेळ काडूं नये. हांव धरतां हारसो. सुमीत, तूं दिवो सारको धर.

आशिष : [झोंपून हारसो घेता] हारसो हांव धरतां, तुमी दिव्याक आडस करात. [थोडो वेळ सगळीं वोग्गी रावतात. आशिष दिव्यार हारसो धरून बसला. दिव्याची वात हेवटेन-तेवटेन वता. काजळी हारशार आनी आशिषाच्या हातार चडटा. ती पळोवन निलू म्हणटा]

निलू : आशिष, तुज्या पोल्याक कितें पळे. [तो सट् करून काजळी लागिल्लो हात पोल्यार भोंवडायता.]

सुमीत : शी, शी, शी, माकड आयला पळे. सांबाळात गो बाये. [निलू आनी प्राची ताका पळोवन व्हडा व्हडान हांसतात.]

आशिष : कितें जालां तुमचें? म्हाका पळोवन शीं हांसतात? शिंगां आयल्यांत म्हाका?

प्राची : तींच फाल्त. आतां काळ्या तोंडाचो माकड दिसता, मागीर रेडो दिसतलो.

आशिष : प्राची पळे आं, एक थापट दितलों पोल्यार.

सुमीत : दी, दी. दाव्या हातान दी. ताकाय माकडीण जावंदी. मागीर दोगांय हूपऽ हूपऽ करत बसात.

आशिष : आरे? काजळी म्हज्या हातारय चडली? आंऽ म्हणून तुमी हांसतालीं. [चवगांय व्हडान हांसतात. इतल्यांत हातांत उकतें पुस्तक धरून ताई येता.]

ताई : आरे, आरे हें कितें चल्लां? एक दीस लेगीत थंडसाणेन म्हूण अभ्यास करूंक दिवचिंनात. [आशिषाच्या तोंडार नदर पडटा] आशिष, हें कितें? तोंडाक काळें-शें लायलां?

आशिष : ना ताई, आमी...

ताई : [सुमिताच्या हातांत दिवो पळोवन] आरे सुमीत, पेट्टो दिवो घेवन कितें करता? कितें चल्लां तुमचें?

प्राची : ताई, आमी मगो काजळी पाडटालीं.

ताई : काजळी शी? आशिषाक कितें निग्रोचो पार्ट बी आसा काय कितें?

सुमीत : आमी हारशाचेर काजळी घालतालीं.

निलू : ताई, फाल्यां गिराण न्ही? तें पळोवपाची आमी ही तयारी करतात.

ताई : अशें? बरो बेत आसा तर तुमचो. पूण एक सांगात. कसलें गिराण पळोवपाक हो हारसो?

निलू : कसलें म्हळ्यार? फाल्यां आसा तें गिराण.

ताई : तशें न्ही निलू. गिराणां दोन तरांचीं आसतात.

आशिष : कसलीं कसलीं ताई?

ताई : एक सुर्याचें गिराण आनी दुसरें चंद्राचें.

प्राची : ताई, हारशांतल्यान कसलें गिराण पळोवप?

ताई : दिसाचें गिराण आसता तें सुर्यगिराण.

सुमीत : आनी रातचें आसल्यार चंद्रगिराण न्ही ताई?

ताई : शाबास, दिस्त सांगलें तुवें.

आशिष : ताई, हीं गिराणां म्हळ्यार कितें?

प्राची : आंवय, तुका खबर ना रे? गुरुच्या आज्जेन आमकां पयर काणी सांगिल्ली न्ही गिराणाची?

आशिष : हांव नाशिल्लों तेन्ना.

ताई : कोणाक खबर आसा गिराणाची काणी?

सुमीत : म्हाका खबर आसा. हांव सांगूं?

सगळीं : सांग, सांग.

ताई : हें पळेयात, आतां खूब वेळ जाला. पयलीं घरा वचात.

सुमीत : आनी गिराणाची काणी केन्ना सांगूं तर?

ताई : फाल्यां. पयलीं ह्या हारशांतल्यान गिराण पळयात. मागीर येवन म्हाका सांगात.

सगळीं : हां ताई, वतात तर आमी आतां. [पड्डो पडटा.]

[ताईले कुडींत ताई बसून बरयता. सुमीत थंयच बसून पुस्तक पळेता. इतल्यांत आशिष येता.]

सुमीत : कितलो वेळ रे आशिष?

आशिष : अजून हीं दोगांय भुतां येवंक ना मरे!

ताई : आरे, मात्शे वोगी बसात हां. बुकले कशे गुरगुरनाकात. हें इतलें बरोवन काडूंक जाय. [प्राची आनी निलू येतात.]

| | | |
|---|---|---|
| प्राची | : | पळेलें मगो? हे सुद्धां पावले हांगा. तुजे खातीर म्हाकाय वेळ. |
| निलू | : | माथ्यार न्हातासर म्हाका मात्सो वेळ जालो. |
| ताई | : | आज सांजवेळचें शें माथ्यार न्हालां गो? |
| निलू | : | ताई, आज गिराण न्ही? तें सोंपतकीर न्हालीं आमी. |
| ताई | : | गिराण जाल्यार माथ्यार कित्याक न्हावंक जाय? |
| सुमीत | : | गिराण लागतकच सगळें भश्टता न्ही गो? म्हूण शुद्ध जावपाक लागून न्हावप. |
| ताई | : | म्हणजे? गिराण म्हळ्यार कितें समजल्यांत तर तुमी? |
| आशिष | : | आजी सांगता तशें... |
| ताई | : | विज्ञान शिकतात मरे तुमी? कसलें सवळें भश्टें घेवन बसल्यात? गिराण म्हळ्यार कितें दिसलें तुमकां? |
| सुमीत | : | ताई, हांव गिराणाची काणी सांगतां पयलीं. |
| सगळीं | : | सांग, सांग. |
| सुमीत | : | राहू आनी केतू नांवाचे दोन व्हडले राकेस मळबांत रावतात खंय. |
| आशिष | : | [वयर पळोवन] खंय रे? आमी केन्ना पळयले नात. |
| सुमीत | : | मर्दीं उलोवं नाकात रे. ते दोनूय राकेस सुर्याक खावंक येतात. ते लागीं पावता तसो सूर्य कडकड कडकड जाता, तेन्ना सुर्याक वेध लागले म्हणटात. आनी तांणी सुर्याक गिळटकच गिराण लागलें म्हणटात. तशेच ते चंद्राकय गिळटात. |
| ताई | : | वा! वा! बरी सांगली तुवें काणी. पूण गिराण म्हळ्यार खरें अशें न्हय. |
| सगळीं | : | कशें तर? |
| ताई | : | तुमकां खबर आसा मगो, चंद्र पृथ्वी भोंवतणीं फिरता. आनी पृथ्वी सुर्या भोंवतणी. तीं अशी फिरतां फिरतां कितें जाता जाणां? |
| सगळीं | : | कितें जाता? |
| ताई | : | सूर्य, पृथ्वी आनी चंद्र एका वळींत येतात. आतां सांगात, अशीं तिगांय एका वळींत आयलीं आनी पृथ्वी वेल्यान तुमी सुर्याकडेन पळेतात, तर सगळो सुर्या तुमकां दिसतलो? |

**प्राची** : शी! सुर्याक केन्ना पळोवपाक जाता? दोळे कितेंशेच जातात मगो!

**ताई** : बरें, तुमकां दुसरे भशेन सांगतां. आशिष, हो फुटबॉल हातांत धर. सुमीत, हो धाकटो बॉल फुटबॉला मुखार धर. असो. आतां निलू आनी प्राची हांगा येयात. पळयात, फुटबॉल तुमकां सगळो दिसता?

**निलू** : ना, धाकलो बॉल आसा तो भाग सोडून बाकिचो फुटबॉल दिसता.

**ताई** : आं, तर अशेंच सूर्यगिराण जाता.

**प्राची** : ताई, सारकें सांग न्ही.

**ताई** : आगो, व्हडलो फुटबॉल म्हळ्यार सूर्य. धाकटो बॉल म्हळ्यार चंद्र आनी तांच्या सरळ एके हारीन पृथ्वी येता. तेन्ना पृथ्वीवेल्या लोकांक चंद्र आसा तितलो सुर्याचो भाग दिसना, जसो येदोळ निलू-प्राचीक सगळो फुटबॉल दिसलोना तसो.

**सुमीत** : आंऽ म्हणटकीर काणयेंत राहू-केतून गिळप बी म्हणटात तें सामकें फट तर.

**ताई** : हय, खरें तुजें.

**आशिष** : आनी चंद्रगिराण म्हळ्यार कितें ताई?

**ताई** : तशेंच, पूण चंद्र आनी सूर्य हांचेमदीं पृथ्वी येता. तीं तिगांय एके वळींत येतकीर पृथ्वीची सावळी चंद्रार पडटा आनी चंद्रगिराण जाता. चंद्रगिराणां चड करून पुनवेक येतात.

**प्राची** : सुर्यगिराण केन्ना जाता तर?

**ताई** : तीं उमाशेक जातात. आनी एक जाणात तुमी? सुर्यगिराणां दोन तरेचीं आसतात.

**सगळीं** : कसलीं ताई?

**ताई** : खंडग्रास आनी खग्रास.

**निलू** : म्हळ्यार?

**ताई** : खंडग्रास म्हळ्यार सुर्याच्या थोड्याशा कुडक्यार सावळी पडप. आनी खग्रास म्हळ्यार सगळो सूर्य धांपप, काळो दिसप.

**सुमीत** : म्हणटकीर दिसाची रात जातली. मज्जा न्ही?

**ताई** : हय, थोडो वेळ काळोख जाता. सादीं गिराणां तुमी कंवचे

कुडको काळो करून पळयतात. पूण खग्रास गिराण दुर्बिणी शिवाय कशेंच पळोवंक जायना.

आशिष : अशें कित्याक ताई ?

ताई : त्या गिराणाचो परिणाम आमच्या दोळ्यांच्या नाजूक बावल्यांचेर जावन आमी सदांखातीर कुड्डे जावपाचो भंय आसता.

प्राची : आनी सादीं गिराणां निखट्या दोळ्यांनी पळयल्यार जाता ?

ताई : सुर्यगिराणां केन्नाच निखट्या दोळ्यांनी पळोवंक जायना. हरशींच आमी सुर्याक पळोवंक शकनात. गिराणाच्या वेळार सावळी पडिल्लो सुर्याचो भाग सोडल्यार बाकिच्या भागांतल्यान खर अशे हायड्रोजन्स भायर सरतात. ताचो वायट परिणाम आमच्या दोळ्यांचे बावलेर जाता. ती एक तर जळटा वा तिका विकृती येता.

निलू : ताई, आज मगो आमी गिराण लागचे पयलींच जेवलीं आनी उरिल्लें जेवण भायर उडयलें.

प्राची : तुजे आज्जेचें सदांच सवळें-भश्टें. तें आनी ताईक कितें विचारता ?

ताई : प्राची, सवळें-भश्टें म्हणून जेवण भायर उडयनात.

निलू : कित्याक तर ?

ताई : गिराणा वेळार जीव-जंतू उचांबळीत जातात. ते हांगा थंय उडून बसतात. ते वायट जंतू आमच्या पोटांत गेल्यार आमकां कसलोय रोग जावपाचो भंय आसता म्हूण जेवण-खाण गिराणा पयलींच खातात. उदक लेगीत उगडें दवरूंक जायना. उरिल्लें जेवण भायर उडयतात.

सुमीत : वा ताई, आज आमकां गिराण म्हळ्यार खऱ्यांनी कितें तें कळ्ळें. आमी पिशीं कशीं आज्जेची काणी खरी धरून बशिल्लीं, न्ही रे ?

सगळीं : हय तर !

ताई : चलात तर आतां. शिकूंक बसात. म्हाकाय शिकूंक जाय.

[पड्डो पडटा]

# आमी संप करूंया

पात्रां :
रवी, अवी, मंजू, रेश्मा, परेश

[बॉल घेवन खेळत रवी माचयेर येता.]

**रवी** : अवीऽ, मंजूऽ, रेश्माऽ, आज खेळपाक येनात ? मागीर रोखडोच काळोख जाता.

**अवी** : [भितरल्यान] आयलों रे रवी, बॅट घेवन येतां हां.
[रेश्मा बाबडेंशें तोंड करून येता.]

**रवी** : कितें जालां गो तुजें ? त्या लांबेल्या सरान लांब बी केलां काय कितें गो तुका ? काय आईन खावंक दिवचे बदला धम्मक लाडू दिला ?
[अवी एका हातान चड्डी वयर काडीत आनी दुसऱ्या हातान तोंड पुशीत येता. खाक्यांत बॅट आसा.]

**अवी** : ना रे रवी, सरान कांयच करूं ना ताका. आज शाळेंत सगळो वेळ अशेंच बशिल्लें तें. इंटरवालाक खेळपाक यो म्हळ्यार लेगीत येवंक ना तें.
[विकेटी घेवन परेश आनी उडयो मारपाची दोरी घेवन मंजू येता.]

**मंजू** : ये, आज आमी कसल्यांनी खेळुंया ? कालचोच काय...

**अवी** : मंज्या-भंजा, पॅटे-पॅटे करून उलयत रावनाका.

**परेश** : [भियेवन] कितें जालां गो रेश्मा ?

**रेश्मा** : [तिडकून] कित्याक येदोळच्यान किळच्यो मारतात रे ? हांव विचार करतां.

**सगळे** : विचार ? कसलो गो ?

**रेश्मा** : तुमकां खबर आसा संप म्हळ्यार कितें तें ?

**मंजू** : आं, हो आनी कसलो खेळ ?

**रेश्मा** : [चाळोवन] खेळ खंय खेळ. खेळा शिवाय तुका कांयच दिसना.

अवी : मंजूचें सदांच अशें. मदींच पडिल्लो दांत कशें उलयतलें. तूं सांग गो रेश्मा.

रेश्मा : [रडव्या सुरांत] संप म्हळ्यार खंय मारामारी बी आसता. म्हजो बाबा गेला सकाळीं, म्हणून भंय दिसता.

अवी : आंऽऽ तर तें तेंच आसूंक जाय.

सगळीं : कितें रे ?

अवी : पयलीं एक सांगात, तुमकां संप म्हळ्यार कितें खबर आसा ?

सगळीं : ना रे बाबा, तुका खबर आसा ?

परेश : बंडलां बी मारनाका, पयलींच सांगतां.

अवी : वोगी राव, बंडलां कित्याक मारतलों हांव ? तुमकां आयकुपाचें ना जाल्यार सांगना हांव.

रवी : चड झेत मारनाका. सांगता जाल्यार सांग, ना जाल्यार आमी खेळपाक या.

रेश्मा : [बेगिबेगीन] येऽ, नाका नाका. अवी, आमकां संपाची खबर सांग न्ही.

अवी : आयकात. सगळ्यांनी मरे एके कडेन जमप. आनी तोंडान व्हडा व्हडान पायजे, पायजे म्हणप ना जाल्यार झिंदाबाद, मुर्दाबाद म्हणप. हांवें पळयलां.

परेश : [चाळोवन] हांवें पळयलां खंय. संप म्हळ्यार कितें सिनेमा रे दिश्टी पडपाक ?

अवी : आरे, खऱ्यांनीच पळयला हांवें. शिवाय, म्हाका काकान सगळें सांगलां.

मंजू : खरेंच ? कितें सांगलां रे काकान ?

अवी : एक दीस आमगेर काकाचो मोठेलो मित्र आयिल्लो. तो आनी काका उलयताले संपाच्यो खबरो. हांवें दिस्त आयकलें.

परेश : आं, म्हणटकर तूं चोरून आयकतालो तर ! चोरून आयकप म्हळ्यार बॅड मॅनर्स. कालूच शिकयलां न्हय टिचरीन ?

अवी : हांवें कितें मुद्दम आयकुंना. हांव थंयच बसून चित्रां रंगयतालों. ते व्हडल्यान उलयताले तें हांवें आयकलें.

रेश्मा : जावं रे, तुवें आयकलेंच एकूण. सांग न्ही आमकां, तुगेलो मोठेलो काका कितें उलयतालो ?

**अवी** : म्हज्या काकाक वोगींच मोठेलो म्हणनाका आं. ताचो तो मित्र मोठेलो. तांचे कॉलेजींत खंय एकदां संप आशिल्लो. म्हज्या काकान दोन गुणे अशे शेंवटिले, सोमतेच जनेलाचे हारशे फुटले. ताच्या इश्टान पोलिसाचे तकलेर दांडो मारलो खंय. अशी जायती मजा केली खंय तांणी. पोलिसांनी मागीर जिपींत घालून व्हेले खंय तांकां.

**रेश्मा** : [रडव्या सुरान] म्हणटकीर म्हगेल्या बाबाकय पोलीस व्हरतले तर?

**रवी** : हँ, सगळ्यांकच व्हरनात ते पिशा.

**मंजू** : पूण अवी, तूं खऱ्यांनीच फटींग, तुवें पळेला म्हणटालो न्ही संप?

**परेश** : हय रे अवी, तुवें ही काकाली खबर सांगली.

**रवी** : बंडलां मारपाक म्हूण तूं मोठो हुशार आं.

**अवी** : जालें तुमचें उलोवन? म्हाका नांवां दवरून?

**परेश** : हय, सोंपलें आमगेलें उलोवप. मार तूं आनी दोन बंडलां.

**मंजू** : कितें रे परेश? ताका राग आयल्यार तो मागीर संपाची खबर सांगचो ना.

**अवी** : म्हणुनी ताका जाय तें. तुमी आयकात. एका आयताराक हांव बाबा वांगडा केंस मारपाक वतालों. आमी कामराकडेन पावल्यात मात, थंय पळेल्यार कितें?

**रवी** : एक्सिडेंट बी जाल्लो?

**अवी** : हँ, थंय हीऽ गर्दी आशिल्ली.

**रेश्मा** : भाशण आशिल्लें दिसता.

**अवी** : मदीं मदीं उलयनाकात पळोवया. कितें सांगतालों हांव... अं... आं, रस्त्यार बायलो-दादले हातांत बावटे घेवन बशिल्ले. आनी कितें कितें उलयताले. हांवें बाबाक विचारलें, ते कित्याक बसल्यात?

**परेश** : बाबान कितें सांगलें?

**अवी** : ते संप करताले खंय. आपल्याक जाय तें मेळना जाल्यार खंय सगळ्यांनी एकठांय येवप आनी काम बी कांयच करनासतना वोग्गी बसप.

मंजू : व्वा ! काम बी करनासतना वोग्गी बसप म्हळ्यार मज्जा. जाय तशें खेळप [ताळयो मारून नाचता.]

अवी : तूं फकत खेळपाचेंच पळे.

परेश : आरे अवी, तुज्या काकान फातर बी मारिल्ले तशे तांणी मारले ना ? आनी ढिश्यांव्ऽ ढिश्यांव् बी करुंना तांणी ?

अवी : ना रे. तांचो संप वेगळे भशेन खंय...

रवी : आयडिया, आयडिया... [उडयो मारून नाचता.] फस्ट क्लास आयडिया.

सगळे : कसली रे ? कसली आयडिया ?

रवी : आमीय बी संप करप. आमीय बी संप करप !

रेश्मा : [चाळोवन] यॅऽ, हेऽ हेऽ, संप करुंया खंय ! आमी कितें शिर्विस करतात रे ? काय कॉलेजींत वतात अवीच्या मोटेल्या काका भशेन?

अवी : शाण्या, म्हज्या काकाक तूं परत परत मोटेलो म्हणटा तें मार खातलें आं म्हजेकडल्यान.

मंजू : ये रवी, आमी संप करपाक बसलीं आनी पोलिसांनी आमकां व्हेलीं जाल्यार ? वेल्यान बाबाचो मार खावचो पडटलो.

रवी : भित्रूल, आमी ताच्या काकाभशेन गुणे-बिणे मारप ना. आनी रस्त्यारय बसून करप ना. आतां सगळीं अशीं येयात आनी हांगा बसात. [सगळीं येवन बसतात]. आतां सांगात पळोवया. तुमकां शाळेंत वचूंक आवडटा ?

सगळीं : ना रे बाबा.

रवी : तुमकां अभ्यास करूंक आवडटा ?

सगळीं : हॅट्, आमकां आवडना अभ्यास.

रवी : तुमकां मम्मी आनी डॅडी सांगता तें आयकूंक आवडटा ?

सगळीं : शीऽ, केन्नाच आवडना. [एकामेकांक पळोवन] पूणऽऽऽ.

मंजू : मम्मा चिमटे काडटा म्हणून, नाजाल्यार...

परेश : पापाली बडी शेणिल्ली जाल्यार हांव कित्याक शिकूंक बसतलों आसलों ?

रवी : म्हणून सांगतां, आमी संप करप. शाळेंत वचप ना. [सगळीं हय हय म्हूण तकली हालयतात.] शिकप ना, जाण्टीं सांगतात

तें आयकप ना. फकत खेळप, खेळप. खूब खूब मजा करप, आयस्क्रीम खावप, पावसांत खेळप. आसात तयार?

**सगळीं** : हय हय, आमी संप करुंया, आमी संप करुंया. [नाचतात.]

**रवी** : आयकात, सगळीं वोगी रावात. आमी आयच्यानच संप करुंया.

**सगळीं** : [वळीन बसतात] हय हय. आयच्यान आमचो संप सुरू करुंया.

**परेश** : ये, पप्पा मम्मी सोदूंक आयल्यार लेगीत आमी उठप ना आं.

**अवी** : म्हजो बाबा बडी घेवन आयल्यार लेगीत हांव वचचों ना घरा.

**रेश्मा** : म्हाका माँच्या दोळ्यांचो भंय दिसता.

**रवी** : तुजी माँ आयल्यार तिच्या दोळ्यांक पळोवंकच नाका आं.
[भितरल्यान मंजूची आवय उलो मारता. मंजूऽ, ये मंजूऽ, अजून खेळ सोंपलो ना हय गो? तूं येता काय ना घरांत?]

**मंजू** : [कडकडून उबें रावता.] हांव वतां रे... ना जाल्यार ती... आयलें आई, आयलें हां. [भितर वता].

**परेश** : यँ, हें, हें भित्रूट. आतांच संप करपाक मुखार सरिल्लें.
[भितरल्यान अवीच्या बाबाचो आवाज. खंय पावलो तो अवी? वेळकाळाचें भान ना. येवंदी ताका...]

**अवी** : चल्लों रे हांव. वेळान आयल्यार बाबान दार बंद करतलों म्हणिल्लें काल. [वता.]

**रेश्मा** : [रडकुऱ्या आवाजांत]. रवी, परेश, हांवूय बी वतां. काळोख जाल्यार म्हाका भंय दिसता. आनी मरे, बाबान आयस्क्रीम हाडटां म्हणिल्लें.

**रवी** : आं! आयस्क्रिमा खातीर वता म्हण!

**परेश** : आरे रवी, निमतां करून हीं सगळीं गेलीं. आमी दोगच जाण बसून कितें करतले?

**रवी** : हय न्ही! संप फाल्यां करुंया आमी. चल या घरा. [दोगय वतात.]

[पड्डो पडटा]



# आमचो चंद्र

पात्रां :
प्रसाद, आदित्य, सत्येश, पुजा, शिल्पा, दिदी.
[माचयेर पुजा गाल फुगोवन बसलां. थंय सत्येश येता.]

## देखाव पयलो

**सत्येश** : पुजा, ए पुजा, आज फुगलां शें? आईन बडयलें काय कितें गो? अब्बाऽ, म्हजेकडेन पळय लेगीत ना! [इतल्यांत प्रसाद आनी आदित्य येतात.]

**प्रसाद** : कोणाक राग आयला रे? पुजा, तुका? रागार गे फुगार, घोवान दिली कातली...

**पुजा** : [तापून] प्रसादऽ निवेद्यऽ, राग येता रे म्हाकाऽ [रडकुऱ्यांनी].

**आदित्य** : [चाळोवन] रडुबाई, रडुंनाका हां, पिपी दितलों तुका. सांग पळोवया तुजें कितें जालां तें?
[शिल्पा भितरल्यान येता. येतना ताकतिकेन विचारता]

**शिल्पा** : कोण रडटा? कितें जालें?

**सत्येश** : ही पळे, तुजी इश्टीण.

**शिल्पा** : पुजा, कितें जालां तुजें? वांकडें तोंड करून कित्याक बसलां?

**पुजा** : आज मगो, आमचे पेपर दिले.

**सत्येश** : गणितांत दुदी घेतला दिसता रेऽ.

**प्रसाद** : सोमाराक भाजी बरी जातली.

**शिल्पा** : हय गो पुजा, गणितांत गेलें तूं?

**पुजा** : ना गो, विज्ञानांत मार्क सामके कमी पडल्यात.

**आदित्य** : आई शीक म्हणून किळच्यो मारता तेन्ना शिकलें ना मगो? आतां कित्याक रडटा?

प्रसाद : आज्या, तूं चड शिकपी न्ही ?

शिल्पा : आरे, आतां तुमीच उलयतले काय पुजालेंय आयकतले ? सांग गो पुजा, मार्क कशे कमी पडले ? पैरच्या टेस्टाक तूं हायेस्ट आशिल्लें न्ही ?

पुजा : आमकां ह्या वेळार एकच धडो आशिल्लो – चंद्र. ताणेंच म्हाका उडयलें सकयल. चंद्रार कितें कितें आसा असो एक प्रस्न आयिल्लो.

प्रसाद : आंवय ! हें कितें धड्यांतलें पाठ करूंक जाय ? हांव सांगतां – चंद्र बरो सोबीत सुंदर आसा. थंय पांचवीं पांचवींच झाडां आसात. थंय सुंदर फुलां, दुदाच्यो न्हंयो अशें जायतें कितें कितें आसा. तुवें राजूलें तें कॉमिक्स वाचूंक ना ? ताजेर आसा सगळें.

पुजा : [रडव्या सुरान] हांवें सगळें अशेंच बरयल्लें.

सत्येश : [चाळोवन] मागीर कितें चुकलें तर ?

पुजा : सरान सगळें चूक केलां. मार्क दिवंकूच नात.

आदित्य : वक्ल पेल्यान दवरून पेपर तपासतालो दिसता सर.

शिल्पा : घडये सरान कॉमिक्स वाचूं नासतलें.

सत्येश : पुजा, तुवें ताकाच विचारपाचें, चंद्र कसो आसता तो.

पुजा : सरान सांगलें, चंद्र खंय खडबडीत आसता. ताचेर फातर आनी मातीच आसता. थंय झाडां, फुलां, पक्षी बी कांयच नासता.

शिल्पा : शीऽ, पुरो कर. कोणाकय सांगल्यार हांसतलीं तुका. म्हजे आज्जे मुखार म्हळ्यार पिशेंच म्हणटली तुका.

सत्येश : आजी चांदीमामाची काणी सांगता ती कितें फट तर गो ?

प्रसाद : आनी चांदीमामाक देव म्हणून पुजा करतात तें कितें वोगीच ?

पुजा : ना. 'चंद्र' ह्या धड्यांत अशेंच बरयलां. हांवें वाचला धडो.

आदित्य : पिशा, तूं धडो कित्याक वाचूंक गेलें ? हांव जाल्यार प्रस्न-जापोच पाठ करतां.

पुजा : सर सांगता तें खरें काय कितें तें पळोवपाक हांवें धडो वाचलो. अमेरिकेचे तीन मनीस खंय रॉकेट घेवन चंद्रार वचून थंयचे फातर आनी कितें कितें घेवन आयले.

सत्येश : अशें ? ते खरेच चंद्रार गेल्ले काय ? चांदीमामा इतलो वायट आसता ?

प्रसाद : कॉमिक्सांत बरयलां तें सगळें फट तर.

शिल्पा : आनी आज्जेली काणी ? तीय फट ?

आदित्य : हांगच्यान दिसता तो चांदीमामा कितलो सोबीत. तें अशें कितें तर ? शेर्त ते दुसऱ्याच खंयच्याय चांदीमामाचेर पाविल्ले दिसता.

सत्येश : ए कितलो वेळ जालो पळे. आमी घरा या आतां.

सगळे : हय रे बाबा. [वतात.]

[पड्डो पडटा]

## देखाव दुसरो

[पुजा आनी सत्येश बसल्यांत.]

पुजा : आरे, शिल्पाक इतलो वेळ कित्याक ? रोखडेंच येता म्हणटालें. [आदित्य येता.]

आदित्य : तें मगो भकावंक बसलां. केन्ना पावता पळोवया.

सत्येश : प्रसादय ताचे वांगडा भकावंक बसला काय कितें ? [शिल्पा व्हिस्तीदाक तोंड पुसत येता.]

आदित्य : ही पळे आयली बकासुरा बायल. बकासुरा बायले, आज कितल्यो गाडयो शीत जेवली ? कितले रेडे खाले ?

शिल्पा : पुरो आं, मात्सो वेळ जाल्यार नांवां दवरपाची गरज ना. प्रसाद कांय येवंक ना मरे अजून ? [प्रसाद येता.]

प्रसाद : कित्याक येवंक ना हांव ? हो पळे, बकासुराची फाट मोव करपाक गेल्लों.

पुजा : म्हणजे, तुवें आयकलें आमचें उलोवप ? खंय आशिल्लो तर तूं ?

प्रसाद : खंय म्हणजे ? म्हजेकडेन जादू आसा. जादुची गुड्डी कानाक लायली आनी आयकलें तुमचें उलोवप.

आदित्य : कालची खबर तांकां सांगुया मरे ?

प्रसाद : अजून सांगूंक ना तुवें ?

सगळीं : कसली रे खबर ?

आदित्य : सगळीं अशीं बसात. मागीर सांगतां तुमकां.

**शिल्पा** : चड नाका तुजें. सांगता जाल्यार सांग सारकें.

**आदित्य** : रातीं आमी प्रसादाल्या आज्जेक चंद्राची खबर विचारली.

**सगळीं** : कितें सांगलें तिणें ?

**प्रसाद** : ती म्हणटा, चंद्र हो देव. ताका सदांच पांयां पडूंक जाय. तुमचें सायन्स फट. बुकां सामकीं फट. असलीं बुकां शिकून आमची वाट लागल्या खंय.

**सत्येश** : ओगी राव. सगळीं फट आनी आज्जी कितें खरी ?

**पुजा** : येदी व्हडली आज्जी, केन्ना फट उलयतली रे ?

**सत्येश** : आनी येदो व्हडलो सर कितें फट सांगता ?
[दिदी येता. हातांत पुस्तकां आसात.]

**दिदी** : कोण फट आनी कोण खरो ? चल्लां कितें तुमचें ?

**शिल्पा** : दिदी, जाणा मगो, आमच्या पुस्तकांत मगो...

**प्रसाद** : हांव सांगतां. तुगेलें मगो... मगो... इतले बेगीन सोंपपाचें ना. दिदी, कॉमिक्सांत बरयलां, चंद्रार दुदाच्यो न्हंयो, चॉकलेटीचीं झाडां आनी आयस्क्रिमाचे दोंगर आसात म्हणून.

**आदित्य** : आनी मगो, प्रसादाली आज्जी सांगता चंद्र हो देव. ताका पांयां पडप. दिदी, तूंच सांग कोण खरो ?

**पुजा** : पुस्तकांत सामकें वेगळें दिलां.

**दिदी** : हें पळयात, कॉमिक्सांत सांगल्या ती रचिल्ली काणी.

**सत्येश** : आनी आज्जी सांगता तें ?

**दिदी** : ती पुराणांतली खबर. चंद्राचो सारको सोद लायचे पयलीं लोक चंद्राक देव म्हणून ताज्यो तरेतरेच्यो काणयो सांगताले. उपरांत रॉकेट घेवन अमेरिकेचे तीग जाण चंद्रार वचून आयले. आनी थंय खऱ्यांनीच कितें कितें आसा तें पळोवन आयले.

**प्रसाद** : पूण दिदी, तांकां चंद्रार वचचें म्हूण कशें कळ्ळें गो ?

**दिदी** : आरे, तांणी पयलीं दुर्बिणींतल्यान चंद्र कसो कितें आसा तो पळयलो. ताची खात्री करून घेवपा पासत तांणी व्हडलें रॉकेट तयार केलें आनी ते थंय गेले.

**पुजा** : आं, मागीर तांकां कळ्ळें दिसता चंद्रार फातर आनी माती आसा म्हणून.

**दिदी** : हय.

| Issued on | Borrower's No. And Signature | Returned on |
|---|---|---|
| | | |

आदित्य : दिदी, आमकांय चंद्रार वचूंक मेळटलें गो ?

दिदी : बरे भशेन मेळटलें.

शिल्पा : पूण पयलीं पासपोर्ट बी करूंक जाय न्ही ?

दिदी : ना. पयलीं तुमी शिकूंक जाय. खूब शिकून व्हड जावंक जाय. मागीर तुमकां चंद्रारच न्हय, जाय जाय थंय वचूंक मेळटलें.

सगळीं : दिदी, आमी वतलीं चंद्रार.

दिदी : तशें जाल्यार आतां घरा वचून अभ्यास करूंक बसात. चलात.

[पड्डो पडटा]



## माया अनिल खरंगटे

शिकप : बी.ए., बी.एड्.

वेवसाय : विद्याभुवन कोंकणी शाळेंत शिक्षिका

पुस्तकां : **कयपंजी** (कविता संग्रह)
'अप्रूप' ह्या प्रातिनिधीक कविता संग्रहांत, तशेंच 'प्रचिती' ह्या साहित्य अकादेमीच्या सर्वभाशीय कविता संग्रहांत कवितांचो आस्पाव.

बालसाहित्य : **कोलेदादाची पालखी** (दोन काणयांचो संग्रह)
**स्वामी विवेकानंद** (चरित्र)
**गलिवराची भोंवडी** (अणकार)
**चित्रबोध**

शिवाय आकाशवाणी खातीर तरेकवार लेखन. लेख, कथा तशेंच नाटकुलीं मासिकां, दिवाळी आंक आनी दिसाळ्यांत प्रसिद्ध.